श्री. र. वि. पंडित हांच्या "आयलें तशें गायलें" ह्या कविता-संग्रहा संबदान बरयतना नामनेचे कवी श्री. बा. भ. बोरकार म्हणटात:... "पंडितांची ही मुलखा-वेगळी कविता हांवें पयल्या प्रथम आयकली तेन्ना थोडो वेळ म्हाका रानांत पडिल्ल्यावरी जालें. पुण आयकतां आयकतां म्हाका तिज्या प्राणाची नाट मेळ्ळी आनी तिजेर आयिल्लें भाराचें वारें म्हाकाय आफडून गेलें. म्हजी मनोमन खातरी जाली कि ही वाणी मुळयाची. हो निर्मळ, मस्त आनी जिवस गावड्याचेर आयिल्लो भार. गोंयच्या मुळाव्या आनी थळाव्या मुळकेश्वराचो. तो फाल्यां कितें उलयतलो ताजी ही वानी...ही सगली कविता गोंयच्या प्रतिमांनी आनी प्रतिकांनी उलयता. हांगाच्या उदका-वाऱ्याचो स्पर्श घडयता; हांगाच्या वृत्ति-प्रवृत्तिचीं चित्रां काडटा-पुण तिजें सगलें अनु-संधान लागलां तें माणसुकेचेर.

(तिसऱ्या कव्हरार पळेयात)

मोल चार रुपया

## र. वि. पंडित हांचीं पुस्तकां

Gandhiji.......... 1945

National Leaders 1946

१ धर्तरेचें कवन..... १९६३

२ म्हजें अुतर गावड्याचें १९६३

३ आयलें तशें गायलें १९६३

४ अुरतलें तें रूप धरतलें १९६३

[दर अेका संग्रहाचीं पानां १०४. दर अेका संग्रहाचें मोल चार रुपया. मेळपाचें ठिकाण : बाँबे बुकडेपो, मुंबय ४.]

# म्हजें अुतर
# गावड्याचें

र. वि. पंडित बी. ए.



पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबय
मोल चार रुपया

प्रथमावृत्ति :
२६ जानेवारी १९६३

वेष्टन : प्रभाकर गोरे

मुद्रक :
वि. पु. भागवत
मौज प्रिंटिंग ब्यूरो
खटाववाडी, मुंबई ४

प्रकाशक :
ग. रा. भटकळ
पॉप्युलर प्रकाशन
३५ सी, ताडदेव रोड
मुंबई ३४ WB

# अर्पण . . .

भारताची स्वतंत्रताय

जतन करपी जवानांक....



"मृत्यूंजय
वीर आमचे
हड्डयांचीं
कोटां करून...
हिमालया
भोंवतणी
आजय उबे
आसतना

भारताचो
वेंतभर जागो
कोणांक केन्ना
गावचो ना...
कितेंच केल्यार
गावचो ना !"



# मांडावळ



डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी ह्या कविता–संग्रहाचे प्रस्तावनेंत अुल्लेख केल्ल्यो कांय कविता श्री. र. वि. पंडित हांच्या 'आयलें तशें गायलें' 'अुरतलें तें रूप धरतलें' आनी 'धर्तरेचें कवन' ह्या कविता–संग्रहांनी आयल्यात.

तशेंच, श्री. बा. भ. बोरकार हांणी 'आयलें तशें गायलें' ह्या कविता-संग्रहाक बरयल्ले प्रस्तावनेंत अुल्लेख केल्ल्यो कांय कविता ह्या, 'अुरतलें तें रूप धरतलें' आनी 'धर्तरेचें कवन' ह्या कविता–संग्रहांनी आयल्यात. २६ जानेर, १९६३ ह्या अेकाच दिसा प्रसिद्ध जाल्ले हे चारूय संग्रह मेळपाचें ठिकाण, बॉम्बे बुक डेपो मुंबय ४.

# जनेल

संस्कृताय, मनशाच्या रानवटपणाचे कांट्यारें कोनशे घांसघांसून, ताजो सभाव नितळ करता. चार चौगांत कशें अुलेवप, अुठप–बसप हें ताका शिकयता. खाणा-जेवणाच्यो तेरेक्तरा परी कशो करच्यो हें दाखोवन, ताज्या सुवादाचो आनंद केळयता, पोशिग कसो करचो, कशें नाचचें, कशें गावचें, कशें चितारचें हाजें शिक्षण दिवन ती ताजी जीण सुंदरकायेन अुपाट भरता आनी तरीय हीच संस्कृताय केन्नाकेन्ना जिणेची जिवसाण आनी घटसाण हांच्या मुळार येता. मनीस वडोवचे बदला बावल्यो घडयता. अशा वेळार वयर फांसलेलो भुलयणो रंग घांसून–पुसून जो समाज रेबट जिणेक घट वेंग मारता तोच तिगून अुरता. सगल्या कळांनी परिपूर्ण आनी संवसाराचेर शेक चलोवपी रोमन पातशांचो जिणेचो नेट आनी जैताचो हावेस आसलेल्या रानवटांनी पराजय केलो अशें अितिहास सांगता.

आपली फाटली वाट अजमावन, जे मूळ जिणेंतल्यान आनी निजांतल्यान आपली सदांची स्फूर्त घेतात तांकांच नवो फुडार घडोवपाचें बळ प्राप्त जाता. जिणेची झर सुकून वेता हें पळोवन लेगीत जे दोळे धांपून पयस पयस अुडक्यो मारपाचो पिसो हावेस धरतात ते संवसाराच्या विशाळ रानांत खंयचे खंय नाच जातले. पुण, जांकां ही जाणवीक जाल्या ते मूळ वझऱ्यांतल्यान ताज-बाण घेतले आनी घटमूट जावन पावल फुडें घालतले.

शेंकड्यांनी वर्सां परकी शेकाच्या चेपणाक वा हेर कारणांक लागून आयिल्ल्या गोंयकारांत ही निजी शक्त अुणी जाल्या. भायल्यान आशिल्लो चकचक–झगझग

वाडला, चैनिच्यो वस्ती गरजेच्यो जावन बसल्यात, छातयेच्या हाडांचे रुंदाये परस तांचे ज्युदयेचे फुगिल्ले रुंदायेक लोक चड तोखंदंक लागले. गोंयचे रुचीक ताल्यां परस भायल्या डब्यांतल्या 'सार्दिना'क चड मोल आयलें, गांवच्या कारागिरांनी केल्ल्या घट वस्तीं परस भायल्यान हाडिल्ल्यो खिणयाळ्यो चकचकीत वस्तीच लोकांक जाय जावंक लागल्यो, नांगर धरपी हातां परस बूट पुसपी हातांचेंच चड कौतुक जावंक लागलें. अशा वेळार कोणेंतरी तिडकीन सांगचें लागता: "मात्शे दोळे उक्ते करून पळेयात ऊक थापट माल्ल्यार तुमचे पोके ज्युदयेंत गुटलायल्लो, सोन्यार जियेवपी झेत घडांयच करून भूंय पडटलो. तिकतिकीत शिंभिटाचे लादयेचेर जीण पोसना, ती अळशिकावण्या रेंव्यांतल्यानूच जल्माक येता. तुमचे जिणेची बुन्याद पयलीं घट बरी घडयात आनी मागीरूच ताजेर व्हडव्हडल्यो आळयोमाळ्यो बांदात ना जाल्यार..."

र. वि. पंडित हेंच सांगतात दुसऱ्या उतरांनी. गावड्याच्या उतरांनी. गावडो हो गोंयचो मुळ-पूत, आमचो तो मुळकेश्वर. तो आजून भेरेन आपले भुंयेक, आपले परंपरेक, आपले संस्कृतायेक, जिवेक धरून रावला. गोंयांत कितल्यो राजवटी आयल्यो आनी गेल्यो, कितले व्यापारी आयले आनी गेले, कितले धंदे जल्माक आयले आनी ना जाले, तरी गावडो मात् आसा तसो आसा. आमच्या समाजाची तो बुन्याद. हेर सगले ताजे वयर आसात ताज्या खुस्तार जियेतात. गावडो म्हणचे आमचे संस्कृतायेची मूळ झर, तो म्हणचे केन्नाच सोंपनाशिल्ली जिणेची शक्त. आनी तरीय सगले लोक ताका कुंड्यापाल्ट मानतात. तो पावस सोंसता, थंडी सोंसता, हेरां खातीर त्रास सोंसता, आपुण उपाशीं रावून दुसऱ्यांची जीण पोसता. तरीय ते ऊकठांय जमून ताका कांड, कांड, कांडटात. पुण तो चड सोंशीक, खूब चिवट. ताका कितलोय कांडलो तरी ताजो पिठो जायना. पिठो जाता तो हेरांचो, कित्याक तर तो धर्तरेक दसून आसा, मुळाक धरून आसा. तो म्हणटा:

**कितलोय कांड, कसोय कांड**
**म्हजो पिठो मात् जायना.**

कांड, भायर पोखरान अुडय
कितेंय कर, हांव कुसना.
आसा तस्सो अुरतां...

तेरेक्तरांचे पोशेग आयले आनी गेले. तेरेक्तरांच्यो फेशनी आयल्यो आनी गेल्यो, पुण गावड्याचो भेस आसा तस्सो आसा. नाटकां, सिनेमा येतात, वेतात, गावड्याचे जागर आनी ताजीं रोमटां आसात तशीं आसात. गावडो हो आमचो मुळ-पुरुस :

कालचे सारको आयज
पैरचे सारको काल
हजार वर्सां फाटीं आसलो
तसो पैर आनी
आतां आसा तसोच
हजारांनी वर्सां...

अशा ह्या गावड्याचें हें अुतर.

गावड्यांचे संगतींत जो जियेला, गावड्याचीं सुखांदुखां जाणें आपलींशीं केल्यांत, गावड्याची भास जो सहजतायेन अुलयता, आनी गावड्याचो भेस जरी नासलो तरी ताजो हावेस जाच्या रगतांत सळसळ्टा अशा मनशान गायिल्लें हें गीत.

भिरांत नासतना, लजभीड धरिनासतना, हडुं फुडें काडून "हांव गावडो" अशें म्हणपी हो पयलोच कवी. गावड्यावरी हें अुतर अुगडें नागडें. ताका मातयेचो वास येता, ताका मिठाची खारसाण आसा, कामाची घामसाण आसा, रगताची तामसाण आसा, वोताची हुनसाण आसा, जिणेची तिकतिकसाण आसा. हें अुतर भाटांतलें, शेतांतलें, आग्रांतलें, खोंपींतलें.

हें "गावड्याचें अुतर" म्हणचे कोंकणी काव्याचे जित्रसाणिची खूण. कोंकणी कवी आपल्या मुळ-पुरसा कडल्यान स्फूर्त घेता. मुळाक अुदक घालून नवी जीण पोसता. गावड्याचे नदरेन कवी भोंवतणी पळेता आनी ताका सगले कडेन अन्याय दिसता. गिरेस्त दुबळ्यांक चेपतात :

...आमकां गावडयांकूय कोण विचारिना.
आमी गावडे तुमकां...
बामणांक, शेटींक
जाय ते, अूब दिवंचे खातीर
तुमची गिरेस्तकाय
फुलोवपा खातीर
भाटकारपण वाडोवपा खातीर...

हो अन्याय कवीच्यान सोंसूं नज. म्हणून ताका मनशाच्यो दोनूच जाती दिसतात– "चिड्डुल्ले आनी चिड्डुपी." आमचो कवी चिड्डुल्ल्यां वांगडा आसा हें सांगूंक जाय? भाटकाराच्या सत्यनारायणाक मुंडकाराची पंचखादय कशी जाता हें ताणें अुक्त्या दोळ्यांन पळेलां:

देमू, माळी झाड
माळे झाड, सालां झाड. कुडी झाड.
घैरांव काड...
सगळ्या जमनींक
शेण काड
वणटींक चुनो काड...

खरें मनीसपण लोकांक दिसना. अेकाद्रो भोळो–भावार्थी मनीस जल्मभर ल्हान व्हडांची सेवा करता, तांचे खातीर मर मर मरता. ताच्या मर्णाच्या वेळार ताजे खातीर कोणूच दुखां गाळिनात :

मोठ्या कश्टान चौगजाण
जमले
तांणी ताका अुबाल्लो
खूब ताकतिक्रेन मसणांत व्हेलो
आनी लासलो...

फक्कत कवी मात् दुखेस्त जावन म्हणटा : "आयज अेक मनीस मेलो."

ह्या संवसारांत न्याय ना. "जो रोयता तो खाताच" अशें ना. जे काम करतात, कश्टाचो घाम गळयतात तांच्या नशिबांत दोन सुखाचे गोटे नात. आगऱ्यांची जीण तर कविच्या काळ्जाक मिठावरी झोमता. ते मरसूर कामां करतात तरीः

निस्तें खाल्लें मानशेकारान
पैंसांव खाल्लें भाटकारान
शेळो खाल्लो माडांनी
पैशे खाल्ले व्हडेकारांनी
जीव खाल्लो दुकनकारांनी
मीठ खाल्लें घांटकारांनी...

आनी तांचो नीस मात् सदां अळणी.

शेतकारांचीय तीच गत. पावस पडलो, कणस वाडलें, भात आयलें तरीः

शेतकार खंयचे जेवतले
हातिंची अुंडी तोंडाकडेन
देंवचार अुबे रावतले...
शिदाव वांटून घेवपा खातीर
मुकदम देरांत पावतले...

रिणाच्या, काळंतराच्या, काळतराच्या रिणाच्या वज्या खाला दुबळो शेतकार चिड्डता, धांपेता आनी ताज्या तपल्यांतल्या 'थंडगार निसांत भुरग्याबाळांचीं हुनहुनीत दुखां' पडटात.

अेकामेकांक जाचपाची जिवानशीं मारपाची ही वज पळोवन कवीक खंत जाता. मनीस अेकामेकांक त्रास दिवपाचे केन्ना बंद करतले? हीं जीवघेणीं झुंजां केन्ना सोंपतलीं? मनीस शाणो केन्ना जातलो? काय, शाणो जावंचोच ना?

हिरोशिमाचीं चवनां
यादस्तिचे कातीचेर

आजून व्हांवतूच आसात...
...हुलपायल्ल्या रखरखीत
जमनींतल्यान
मनीसपणाचीं चार फुलां
फुलचे पयलींच, परतोय बोवाळ... !

हो अन्याय, ही क्रुरताय कवी उकत्या दोळ्यांनी पळेता. संवसारांत जितलीं वायट कर्तुपां चल्लयां आसतना तो दोळ्यार केंस काडूंक तयार ना. तागेलें काव्य न्हिदोवपी न्हय तर हालेवन धोलेवन जागोवपी, आपुण जागपी. कवी जाणा किः

न्हिदेचें सवंग घेवप
वा न्हिदप हीं दोनूय कामां
जागें रावपा परस खूब सोंपीं ...

दोळे धांपून घेवप म्हणचे "उजवाडाचो दुस्मान जो काळोख ताजी पुजा करप." म्हणून हो कवी जागर जागयता. जिवितांतलीं बरीं वायट संवगां बरीं करून पळेता. ताका किते दिसता ?

...चडशे देंवचार, दिवड, वाघ, फुरशीं
कांटे मारपी सांगटां
शेंपड्यो तोंपपी वागोळीं
कुसां मोडपी विंचू, दांत रोमपी काणेर.
घोणस, घुबडां
बोब मारपी कावळे
हाडां खावपी गीद...

जिविताच्या जागरांत तांकां असले भयांकृत प्राणीच चड दिसतात. संवसारां-तल्या सुख, आनंद, खोस, रंग हांचे परस तांकां दुःख, जाच हींच चड दिसतात. तांच्या काव्यार पावस फुटून पडचे पयलीं मळबांत जमिल्ल्या काळ्या कुपांची साय पडल्या. गडगडो आनी जोगलावणी आसून लेगीत. ह्या

गावड्याच्या अुतरांत नेट आसा तसोच तातूंत किंत्राटो आसा, तिडक आसा आनी थोडी कोडसाणूय आसा.

कत्नीक समाजिक अन्यायाची जितली तिडक तितलेंच ताका मनशाच्या पिशेपणांचें, गर्वाचें आनी धोंगाचें अजाप जाता आनी खंत जाता.

मनीस म्हणचे अेक अिल्लोसो पिट्टोळ पुण तो आपले आपणाक व्हडलो लेखता, आपले आपणाक तोखेता :

हांव पिट्टोळ
अुडणां मारपी
निस्त्याचो राजा
त्या
अिट्टोल भाटकाराच्या तळ्यांत
म्हाजेलें राज्य चलता...
देवा मदीं अिंद्र
नखेत्रां मदीं चंद्र
भुतां मदीं देंवचार
भाटकारां मदीं अिट्टोल...
तसो
निस्त्या मदीं हांव
पिट्टोळ...

अुदक आडावन, जीण कोंडावन केल्या तळ्यांतले हे मनीस. हांकां भरती, सुकती लागना, भायल्या संवसारा कडेन तांचो कसलोच संबंद ना, हांका दिसता आपलें कोंड म्हणजेच सगळें विस्व...

पैशाक लागून जिणेची माती करपी, काळजाच्या जाग्यार चेकबूक दवरपी लाकांची कत्नीक तिडक येता आनी काकळूय दिसता. आनी "जे मायभाशेंत अुलोवपाचें सोडून शेकानशेक फिर्गी वा अिंग्लेज भास" कातरतात आनी लोकांक भेश्टायतात असल्या लोकांक पळोवन तांकां भोव दुःख जाता.

मराठी संतांच्या काव्याचो "टीकात्मक आनी अैतिहासिक" अभ्यास करून लेगीत जे सुके ते सुकेच अुल्यात असल्या मनशांक किते म्हणचें तेंच तांकां कळना. असल्या लोकांनी :

**श्लोकांच्या फुलांचे रंग पळेल्यात**
**पाकळ्यो मेजल्यात**
**वजन केलां**
**पिसटून, पिसटून बोळ काढला...**
**...भितल्ल्या अमृताक आफडिनासतना**
**...अेक लेगीत ओवी अणभविनासतना**

तोंडांतल्यान वेद अुलोवन लेगीत ते रेडे ते रेडेच अुल्यात.

पंडित आपल्या मनाच्या घडयाळाचें धांकण अुगडून भितर पळेतात. तांची कला जिणेचे घण सोंसून रंग-रुपाक आयल्या. तांचे वळींत तांचें अस्वस्थ, अशांत काळीज धडधडटा. पुण काळजाचे व्यथे परस तातूंत बुद्धिची तिडक चड आसा, शब्दांच्या शृंगारा परस तातूंत सत्याचे जिवे अंगारूच धगधगतात.

तांचें काव्य तांच्या मनावरी जितलें सादें सोपें तितलेंच कठीण. चिंचे-पानावरी.

**अेक पान**
**आनी पानांत**
**परतींय**
**पानांच पानां...**
**ल्हान ल्हान ल्हान**
**पुण कुडके न्हय...**
**अखंड...**

हें अखंड काव्य पळोवपाक नदरूय अखंड जाय. जो फकत चिंचेचें पानूच पळेतलो ताका अेकाद्रें चिंचेचें झाड दिसचें ना.

पंडितांची भास पावसाचे धारेवरी तुटिल्ली तरीय दडिल्ल्या बियाक जाग हाडपी.

तांची भास केळीं-पानावरी पिरिटल्ली तरीय अेका दांडाऱ्याची. अुमाळ्याच्या वावा वांगडा हालपी घोलपी आपले पांचवे जीवसाणेन जीण भरपी. खऱ्या कलावंताक क्रूर जावचें पडटा. आपल्याच आंगार चाबकाचे फटकारे मारून आपल्याच दोळ्यांनीं आपलें रगत पळोंवचें पडटा. हे क्रुरतायेंतल्यानूच ताजी कला कणखर जाता, शुद्ध जाता. पंडितांच्या काव्यांत केन्ना केन्ना हे आपखुशिच्या क्रुरतायेचो भास जाल्या बगर रावना.

केन्ना केन्ना तांची लिखणी शस्त्रक्रिया करपी वैजाची सुरी जावन समाजाची कुशिल्ली कूड चिरून अुक्ती करता.

फ्रेंच बरोवपी व्हॉल्तॅर हो म्हण कि दर मनशांत अेक वाग आनी अेक माकड आसता. पंडितांची नदर ह्या दोनूय जनावरांक वळखून आसा. मनशाच्या रगताक चटावल्ल्या ह्या वागाक केन्ना केन्ना माकड जायन दिसता आनी तो मागता :

**बापा कल्परुखा**
**रागार जावं नाका...**
**म्हाका**
**कट्टीभर सूर दी,**
**म्हज्या**
**माकडा हातांत**
**रसरशीत पेटिल्ली**
**अेक चूड दी !**

पंडितांचो पिंड स्वतंत्रतायेचो. तांकां बंदेपण सोंसना.

**बेडयांक बांदिल्ल्या**
**बंद्याचें हें रगत...**
**हांगा गोठेवन पडलां**
**घाणींत बाबडें रडत ! !**

पुण स्वतंत्रतायेचें मोल व्हड. सदां जागृत रावून झुजचें पडटा. रगताचे थेंब सांडचे पडटात. प्राणाची आहुति दिवंची पडटा म्हणून ते म्हणटात :

हड्डयाची धाल कर
पिसो जावन
फुडें सर...

पिसो जावन फुडें सरचेलो वेळ आयज आयला.

शिंशाचे कुडके
मासांत रोमतात
रगताक झोमतात
तुज्या ?
हाय म्हज्या भावा
रोमतात रोमुंदी
झोमतात झोमुंदी
पडसर फुडें सर...

निमाणें जैत आमगेलेंच आसा.

मृत्यूंजय
वीर आमचे
हड्डयांचीं
कोटां करून...
हिमालया भोंवतणी
आयज अुबे
आसतना...
भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना....

अशें तांकां मनोमन दिसता. चिड्डिल्यांचें काळीज जशें तांकां कळटा तशेंच भुरग्यांचें मनूय तांकां कळटा. भेरेल्या मनाच्या जाणटेल्यान कचाकच कापिल्ल्या केळिंची याद भुरग्यांक कशी येता तें तांकां खबर आसा :

तीं
बाबडीं
केळिचो
अुगडास काडून
चुरचुरतात...
चुरचुरतात...
मनांतले मनांत
घुसमट्टात
घुसमट्टात...

कविचें मन चुरचुरलें, घुसमटलें तरीय ताका निजाच्या सोबितकायेचो स्वाद घेवपाची तांक आसा. भुरग्यां वांगडा तें नाचत नाचत गाताः

पावसा, पावसा
यो रे यो
शेतांत म्हज्या
खेळूंक यो.

आनी केन्ना केन्ना तांचें मन नत्रे होंकलेत्री कुळाराची वाट दलता :

जाया जुयांनी
घमघमायिल्ली...
मोगऱ्या शेवत्यांनी
परमळायिल्ली...
...कुळाराची वाट.

पंडितांच्या काव्याचे हेर बी विशय आसात. ते आपल्या मनाची मिठाकणी

विरगळावन परतून तीं सुकोवन तिका चवकोनीं आकृताय दितात, सगलें विस्व म्हणचें आपलें घर अशें ते मानतात. "वयर मळब, सकयल धर्तरी, मदीं हांव मेजून म्हजें घर. हांव आसन थंय म्हजें घर" म्हणटात. पुण तांच्या काव्याचो मुखेल विशय मनीस आनी ध्येय, मनीसपण.

ह्या काव्याचें स्वरूप कितें? ताजो आकार कितें? हें गद्य काय पद्य? कोणूय म्हणत ह्या काव्याक ताल ना, लय ना, आकृताय ना.

जो खळखळपी वझऱ्याचो ताल, जो माडाच्या धोलपाचो ताल, जो दर्याच्या ल्हारांचो ताल, जो काळजाचे धडधडिचो ताल तोच पंडितांच्या काव्याचो ताल. तांचें काव्य शिमिटाच्या चवकोनी पारांत आडायल्लें तळें न्हय, ती व्हांवती झर, ती खंय सुरू जाता, आनी खंय सोंपता तें सांगूं नज. पुण जंय जंय ती वेता थंय थंय आपले देगेर ती जीण निर्मिता.

जें सांगचें आसा, तें कवी सरळ, सरळ सांगता. कोणाचीच भीड, भिरांत धरिनासतना. तांचे जिबेक "सत्याची धार" आसा, तन्नेपणाचो नेट आसा. ह्या नेटाक यमकांचो वा हेर बांद घालप तांकां आवडना. काळजांतल्यान जो अुमाळो आयलो तो तसोच ते कागदार अुतरायतात. पुण काव्य म्हणचे निखटो अुमाळो न्हय तर तें अुमाळ्याचें अुतर. आनी पंडितांच्या काव्यांत विचार आनी अुमाळ्याचो पदर धरीत भास केन्ना केन्ना आडखळत फाटल्यान येता. केन्ना तर ओगीच भोंवताडे काडटा. परतून, परतून अेकाच जाग्यार नाचत रावता. तांच्या जिविता भशेन तांची कविताय अेके तरेचो जागर. परतून परतून तींच तीं सवंगां दिसतात, तींच तीं पदां तेच ते ताल आयकूंक येतात. जेन्ना ह्या तेच–तेपणांत नेट आसता धुंदी आसता तेन्ना वाचप्याक वेळाचो विसर पडटा, पुण जेन्ना अेक ल्हानशी कल्पना कवी परतून परतून, आरतून परतून सांगता तेन्ना ह्या काव्याक पाल्हाळाचें रूप येता. आनी अुतरांची काटकसर नाशिल्ल्यान काव्याची मुळावी गिरेस्तकाय अुणी जाता–देखीक, "जीण आनी मर्ण" आनी "म्हजें जिल्लेशें काळीज" ह्यो कविता.

पुण दरअेक वळ विसकावन, दरअेक अुतर पिस्टावन, दरअेक अुतर सोल्लून

त्या काव्याच्या अर्थाचो गाभो सोदप म्हणचे पिशेंपण हेंय तितलेंच खरें. फाजील चिकित्सायेची नदर मात्शी कुशीक दवरून, काळ्जाचीं दारां अुकतीं करून ह्या काव्याचो जीण–दिणो नेटाचो घोगो आंगार घेता ताकाच ताजो खरो आनंद अणभवूंक मेळटलो हें समजुनूच वाचप्यान कवी वांगडा वचूंक जाय. कवी वाचपी अेकठांय येतात तेन्नाच काव्य जाताः

म्हजे कवितेंतल्यान
तूं खासा आपणाकूच
काडून अुडयशीत जाल्यार...
म्हजे कवितेंतलें काव्य नाच जातलें
आनी अुरतलो तो
फक्कत कागद...

म्हणनूच साअित्याच्या रुपा परस ह्या काव्यांत जिणेची जीवसाण पारखूंक जाय, अुतरांच्या कंगारखिसा परस अुमाळ्याची हुनसाण अणभवूंक जाय, संगीता-परस अर्थाचें गुपीत आयकूंक जाय. कवी सांगताः

म्हजे कवितेंतल्या
वळीं कडेन पळोवं नाका
अुतरां कडेन पळोवं नाका
तांतलो अर्थ पळे...

प्रस्तावनेचे हे अिल्लेशे फास्कें‍त हो अर्थ हांव कसो बसोवं? पंडितांचें काव्य जिगेवरी लांबरुंद, मनशाच्या हावेसा येदें अूंच, ह्या काव्याक फास्क्यो आवडनात. हीं फास्कीं न्हय हें फक्कत अेक जनेल.

मडगांव,
१-१२-६२

मनोहरराय सरदेसाय

## हांव गावडो

हांव गावडो मुगा ?
व्हय व्हय !
हांव गावडो. आनी तूं बामण !
हांव गावडो.
तूं बामण
तो शेट
आनी तो भट !
हांव गावडो
नेणटो नेणार
वावराडी
कुस्कुटा समान.

तुमी मात्
सगले व्हड.
जाणपी. शिकपी
बरोवपी
बुदवंत
"अुके"..."भ्रुके" करपी.
अेंप्रेगाद. अिस्किरांव
रेजिदोर
प्रिजेंत.
भाटकार
दोतोर. आदोगाद. सिंयोर.
हांव गावडो.

गावडो म्हणचे कांय न्हय !
कुंड्या समान...
कांड कांड कांडचो
फांफडून भायर अुडोवंचो.

पुण
जाणा मुगा !...
अेक सांगतां
कितलोय कांड
कसोय कांड
म्हजो
पिठो मात् जायना !

कांड
भायर पोखरान अुडय
कितेंय कर
हांव कुसना.
आसा तस्सो अुरतां.
कालचे सारको आयज
पैरचे सारको काल
हजार वर्सांफाटीं आसलों
तसो पैर
आनी
आतां आसा तसोच्च
आनीक
शेंकड्यांनी वर्सां.

अेका सारको.
आसां तसोच

म्हाका कोणाच्यान
जिरोवं नजो.
कोणाच्यान
पचोवं नजो.
कुंडो कोणे पचयलो
तुमी आयकला ?
गोठ्याक धरून
कुंडो रावता
तसो हांव गावडो
तुमकां
बामणांक, भटांक, शेटींक
घट्ट धरून रावतां.
म्हज्या काळजाच्या
कुडक्यांत.

मुसळाचो मार
कुंडो खाता
भितल्लो गोटो
अळंग दवरचे खातीर.
नितळ
मोतया सारको.
पावसाची थंडी
कुंडो सोंसता
भितल्ल्या गोठ्याक
ऊब दीत.

मातयेंत
सगळें कुसता.

पुण गोटो कुसता ?
ना.
तातुंतल्यान
रोंप किल्लता
कुंड्याचे अुबेन.

पुण
मोल किल्याक येता ?
भितल्ल्या तांदळाक.
कुंडयाक
कोण विचारिना.
तो दुकरांक
ना जाल्यार रेडयांक.

आमकां
गावडयांकूय
कोण विचारिना.
आमी गावडे
तुमकां बामणांक
शेटींक जाय
ते फक्कत

अूब दिवंचे खातीर
तुमची गिरेस्तकाय
फुलोवपा खातीर
भाटकारपण
वाडोवपा खातीर

त्या बगर
तुमकां
आमची गरज ना.

कुंडयाच्या पोटांत
गोटो आसता.
पुण
कुंडयाक तो
उपकारा पडटा ?
केन्नाच ना.
तशेंच तुमीय.

काणप्यांचो मार
कुंडयान खावंचो.
मात् तांदूळ ?
रिगता आसतना
रिगता तिसऱ्याच्याच पोटांत.
कुंडो सदां अुपाशीं.

तांदळाचो गोटो
फाटीं परतून
कुंड्या कडेन केन्ना
पळेता ?
ना !
तुमी बामण
शेट, सोनार, भट
सगले तशेंच.
गावड्यां कडेन
फाटीं वळून पळोवपाक

तुमी केन्ना
शिकलेच ना !

आमी शेतां रोंपचीं
पिकोवंचीं
मळचीं
वोतांत करपूंचें
पावसांत मरचें.
तुमी रेंदां घेवंचीं
अेकामेकांची
भर करची.
आमी सदां अुपाशीं.
आयिल्ल्या दिसा
अुपाशीं.

तुमी
पोटभर जेवंचें
आदोगाद...दोतोर
फातोर...
मसणो...फोणो जावंचें
आमचे कडेन
फाट करची
आनी पोटांत रिगचें...
पुण कोणाच्या ?
अेकमेकांच्या.
भटान शेटिच्या
शेटीन भटाच्या
दोगांनीय बामणाच्या

बामणान अिस्किरांवाच्या...
रेजिदोराच्या.
रेजिदोरान, अिस्किरांवांन
आनी बामणान
परतें
शेटिंच्या...भटांच्या
...अशें भोंवून भोंवून
अेकमेकांच्या
पोटांत रिगचें.
आमच्या पोटांत
कोण ना !

जालेच सगले अेकठांय
जाल्यार
आमच्या पोटार मारपाक
आमकां नाडून पिडून
नागोवन, कांडपाक.

...जाय तशे कांडात
जाय तितले कांडात
जाय तितलीं वर्सां कांडात.
कांडीत रावात.
पळोवंया तरी
तुमचो नेट !

परशुरामान स्वंय
बामणांचीं चवसष्ट कुळां
गोंयांत हाडलेलीं

आनी त्या
चवसष्ट कुळांनी
आमकां गावड्यांक.
वावरा खातीर.
हजारांनी वर्सां जालीं
ते गजालीक.

तेन्ना पसून
तुमी बामण
आमकां कांडीत आयल्यात.
ह्या गोंयांत.
आर्दी कोण कांडटाले
कोण जाणा !

हांव गावडो मुगा ?
आनी तूं बामण ?
तो सोनार शेट
आनी तो भट ?
आनी हांव गावडो ?
व्हय, व्हय, गावडोच !

आनी
तुमी सगले
आमकां अशेच
कांडटले मुगा ?
बरें आसा.
अशेच कांडात
दीस रात.
हजारांनी वर्सां...

मात्
अितली याद दवरात
आं !...
कि
आमचो पिठो
केन्नाच जायना !
केन्नाच !

तुमी आमकां कांडलां
कांडीत आयल्यात.
पुण पिठो जाला
तो मात् तुमचो .

परशुरामान हाडलेले बामण
कशे आसले
कोण जाणा...
आमी अितलेंच जाणांत
कि
कालचे बामण आयज ना
पैरचे
काल नासले.

पैरचे बामण, भट, शेट
अश्टी देगेचीं
पुडवीं न्हेसताले
रुमाल बांदताले
मार आंगारे, तिळे
लायताले.

मागीर कुतांव, चोळे
तांबड्यो तोपयो
घालूंक लागले.
बारीक मलमल
न्हेसूंक लागले.
कासाटे मारूंक लागले
कासाळ्यां भितर.
खोमसां शिरकाटोवंक लागले.
वयर ग्रावात
माथ्यार तोपी ना जाल्यार
रुमाल.
अशो तरेकतरेच्यो मोदी
जाल्यो...

आतां
तोपयो अुडयल्यो
कासाटे सोडले
आनी
शेकानशेक सगल्यांनी
कालसांवांच्यो पोतयो
धल्ल्यात.

तुमच्या बायलांनीय
तेंच केलां.
नाना परी केल्यात.

हालतीं फुलां
बायखुऱ्यो

बुगड्यो, पिसोळीं
जनऱ्यो, वाळे
सुरंगां वळेसर, ठुश्यो
मोट्यो मोट्यो नथी गेल्यो
पितांबरां, पामऱ्यो गेल्यो
बारीक पिलयो
शाल आयले
मागीर बारीक कांकणां
फुग्यांचे आंबाडे आयले.

ताचे अुपरांत
पोव, बारीक विणयो
आनी गोल न्हेसप
आयलें.

आनी आतां...
तेंय वचून
वोंठ रंगोवप
नाटकांतलेवरी आल्याद
आनी शेकानशेक
घोडयांच्या शेंपडयांवरी
केंसांची मोद येवंक
पळेता.

ना जाल्यार
आमकां पळेयात
आसले तशे आसांत.

आमची काश्टी
आमच्या बायलांची देंटली
जंयचे थंयूच आसा.
आमचो जागर, धालो
रोमटां घुमटां
धुळवड, शिगमो
सगलें
जशाक तशें.

त्या जाग्यार
" झिगा मिगा डिगा "
" रोम् पोम् पोम् "
येवंक ना.
आमचो
पिठो जावंक ना
आमचो पिठो
जायना
केन्नाच. केन्नाच.

हांव गावडो मुगा ?
आनी तूं बामण ?
तो सोनार शेट
आनी तो भट ?
व्हय व्हय
हांव गावडो.
हांव गावडोच.

तुमी बामणांनी
आमकां कांडलां

आजून कांडीत आसात.
पुण पिठो जाला
आनी
फुडेंय जातलो
तो मात् तुमचो
आनी तुमचोच!

आमचो पिठो
जायना
आमचो पिठो
जायना
केन्नाच. केन्नाच!!

कित्याक, हांव गावडो!!

पाळें, २७-७-५८

## भारताचो वेंतभर जागो*

मृत्यूंजय
वीर आमचे
हड्ड्यांचीं
कोटां करून
हिमालया भोंवतणी
आयज अुबे
आसतना...
भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना !

शांतिचो
अुपासक
देश जरी
आसलो आमचो,
स्वतंत्रताय
राखपा खातीर
गंगेच्या
ह्या देशांत
रगताचे
हुंवार येवन
न्हंयो व्हांवच्यो
रावच्यो नात...

भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना !

शक्तिच्या
बळग्याचेर
बेठोच अुडूं
नाकाय चिना !...

आमची शक्त
सत्याची
तुज्यान पेल्लूंक
जावंची ना !

भारताचो
वेंतभर जागो
कोणाक केन्ना
गावचो ना !
कितेंच केल्यार
गावचो ना !...

मुंबय, १५-११-६२

* आकाशवाणी मुंबय केन्द्राच्या वरेपणान

पावसा यो पुता, म्हजें बराबर रडपाक

पावसा पावसा
यो यो...
शिडी शिडी
यो यो...
रुप्या तानू
हो हो...
हिरी हिरी...
हो हो..

पावस आयलो
घो घो
शेतांत अुदक
धो धो

अुदक व्हांवलें
घस घस
जमनिची अूब
फस फस

अुबेन बीं
किल्लें
शेत जिवें
मेल्लें

रोप वाडलें
सरसरीत

शेतकार जाले
खुशाल भरीत

पावसा पावसा
थोडो जा
गोटो धरता
कणसाक
आतां मातुसो
आसर दी
कणसा भांगर
जावंदी

भांगर घरांत
भरतलें
शेतकार थोडें
जेवतले

शेतकार थोडें
जेवतले ?...
शेतकार खंयचे
जेवतले ?...
हातची अुंडी
तोंडा कडेन
देंवचार अुबे
रावतले
शिदाव वांटून
घेवपा खातीर
मुकदम दारांत
पावतले

आंवडुंचें कुंबळें
गेल्या वर्सांचें रीण
पेल्या वर्साचो शीण
गेल्ल्या पेल्या वर्सांचें कोंत...
आनी
तातूंत धुस्पलें
पोन्न्या लिव्हरांनी
कुस्पेल्लें
भाटकाराच्या
आनी म्हज्या
देण्याघेण्याचें
तीन पिळग्यांचें
भितल्लें भितल्लें
पोंत........

"राण्याच्या तेंपार
माज्या आज्याचें
शेत बुडलोलें
देखून
कुंबयें बुडलोलें.

तें रीण
फारीक जावंचे फुडें
आनी अेक खेप
पत्तेंय
शेत बुडलोलें.

माज्या आज्यान
भाटकोराच्या आज्याच्या

बात्राक दिवपाचें.
तें रीण आनी काओंतर
फारीक जावंचे आदीं
माजो आजो मेलोलो.

त्या रिणाचें काओंतर
आनी
काओंतराचें रीण
भाटकोराच्या
पोणज्याच्या
लिव्ह्रांतल्यान
माज्या आबाच्या
होड्डयार पोडून
त्या पेजान
तेकली वोयर काडिनासतोना
खोंकलेच्या आयटान
माजो
आब मेलोलो.

त्या रिणाच्या
काओंतराच्या
रिणाचें
पत्तेंय काओंतर जावन

माज्या कोंतार
पोडचे आदीं

भाटकोराच्या
आज्याचो बाब

भाटकोराचो आजो
आनी आब
तिगूय
काबार जालेले.

आयज
माजे आनी
माजेल्या भाटकोराचे
सोगले जाणटे
काबार जाल्यात.

पुण
आयज मेरेनचे
तीन पियग्यांचे
कोंताचे लिव्ह
भाटकोराच्या
पेटेंत
सुगुर आसात.

त्या लिव्हांनी
रिणाचें काओंतर
बुडटेचें काओंतर
दोनांचेंय पत्तें रीण
आनी पत्तेंय
रिणाच्या रिणाच्या
काओंतराचें
काओंतर जावन

कोंताचो मोटो
गुस्पा-गोंदोव
जावन पोडला...
रिणाचो
दोंगोर जावन
पोडला
भाटकोराच्या
लिव्ह्रांनी

त्या लिव्हांतुल्या
कोंताचें
लांबूच लांब
पोंत जेवन
जुस्त पिकेर
मुकदोम
माज्या देरांत
अुबो रावतोलो...

मयणे वयलो
सोगलो शिदाव
आनी
तोण लेगून
आंटून
जेवपा खातीर"

मुकदम दारांत
पावतले......
मागीर शेतकार
जेवतले ?

शेतकार खंयचे
जेवतले ?
हातची अुंडी
तोंडा कडेन...
...देंवचार ओगी
रावतले ?

बाटली ओडून
काडटले
मडकी फोडून
घालतले...
...भर पिकेर
तेवटेन
भाटकाराचे
दिवाळेचे
"गोंयदा–फोव"
हेवटेन
आमच्यो हुयेली...

आनी... तवलेंतल्या
थंडगार निसांत
म्हज्या दुबळ
भुर्गेबाळांचीं
हुनहुनीत दुखां !

मागीर पावसा
यो यो
परतून अेकदा
यो यो

भाटकाराचें
तळें भरपाक
वायंगणा खातीर...

आनीक पावसा
यो यो...
म्हज्या शेतांत
घो घो...
अेकूच खेप
यो यो
म्हज्या बराबर
रडपाक...
पोटभर!!

पाळें, ११-६-६२

## चंद्राचो बैल शिंगाडो

चंद्रा तुजें
तेज नितळ
जिवाक म्हज्या
लायता पिशें...
पुण बाबा
प्रेम तुजें
आयज अशें
फाल्यां तशें !...
आयज रूप
पुनवेचें
मनाक म्हज्या
भुलोवन वेता...
फाल्यां बैल
शिंगाडो
'फों' करून
शिंगांर घेता !...
हरशीं तुजें
सगलें बरें
रूप, देख
चाल बरी...
अेकूच वायट
प्रेमाची
रीत मात्
जगा भायरी !!

पाळें, २९-७-५९

## बंद्यांचें रगत*

फुल्ली अेक फावट
पंचम लाल रंगांची
त्रिभुवनांतल्यान ते
आयिल्ले, सभा तांची...

तो तांबडो सुगंधी
सोबीत बरो साळकाचो
हो भांगरा वर्खांचो
फुलिल्ल्या मळब्राचो...

ती इंद्रधनुची...
लाली अुबी थंय
लाल माती घेवन
व्हांवता ही पळे न्हंय...

ती धुंद नटिच्या
नाखटां वयली मेथी
हो गळपट्टिचो
गुंज तांबडो छंदी...

तो थरथरपी रे
कुंवरिंच्या वोंठांचो
हो लजरो आनीक
लजकुऱ्या दोळ्यांचो...

तो दुश्ट तांबडो
मदेल्ल्या पादशांचो
हो जल्म घेतिल्लो
नवे स्वतंत्रतेचो...

हो सदा घुस्मटपी
चिड्डल्ल्या राश्ट्रांचो
आनी संवसारांतल्या
तांबड्या हेर वस्तिंचो...

पुण, गळयत दुखां हो
अस्पृश्यावरी कोण ?
हांगा बसला कोनशाक
नदर सकयल करून ?...

बेडयांक बांदिल्ल्या
बंद्यांचें हें रगत...
हांगा गोठेवन पडलां
घाणींत बाबडें रडत ! !

* हे कवितेचे अणकार 'Hind Praja' ह्या अिंग्रजी आनी 'सत्यकथा' ह्या मराठी नेमाळ्यांतल्यान अुजवाडाक आयल्यात.

# दोनूच जाती

भेस आनी देस
कितेंय आसूं.

रंग रीत
कात धर्म
कसलोय आसूं.

मनशांच्यो
दोनूच जाती...

बरो मनीस
वायट मनीस...
चिड्डलो
आनी
चिड्डुपी !

पाळें, ३०-५-६२

## म्हजें मन जशें चिंचेचें पान

चिंचेचें पान...
अेक पान
आनी, पानांत,
परतींय पानां
ल्हान ल्हान ल्हान...
ल्हान ल्हान
पुण कुडके न्हय...
अखंड.
आनी
सगलें पान ?
म्हळ्यार अखंड
म्हळ्यार विखंड
...तशें म्हजें मन.
अेकाच मनांत
भितल्ले भितर
आनीक खूब मनां...
ल्हान ल्हान ल्हान
तरेकतरेचीं...
आनी
सगलें मन ?
म्हळ्यार अखंड
म्हळ्यार विखंड...
जशें चिंचेचें पान.

पार्ले, २६-३-५९

## कुळाराची वाट

म्हज्या
कुळाराची वाट
तिची
कितें सांगूं थाट!

जायाजुयांनी
घमघमायली
मोगऱ्या, शेंवत्यांनी
परमळायली...
शेवण्यां सुकण्यांच्या
म्होवाळ गीतांनी
गुंगयली, जागयली...

तांबडे मातयेन
रंगयली
सांवरे–बोणांनी
चंवरायली...
आंब्यापणसांची
तोरणां बांदून
माडासऱ्यांनी
आलाशिरिल्ली...

चार पावलांची
मोगा मायेची
लक्तुबायेची
सोब्रीत बरी वाट...

म्हज्या
कुळाराची वाट...

बाये कुळाराची वाट...
...तिचो कितें सांगूं थाट!

पाळें, २६-३-५९

# हाताक गावना

गरिबाचें धन
वाडटां वाडना

अिह्लेंशें...
पुण
सुपांत रावना
वल्लेंत धरना
अेका जाग्यार
थारना.

ना हातांत
ना बोल्सांत
ना पेटेंत
ना घरांत
ना दारांत
ना किल्यांत...

हेवटेन आयलें
तेवटेन गेलें
दिसलें म्हणसर
नाच जालें...
खंयच्यान
कोण जाणा !

दांतांनी
घट्ट
धरून दवल्लें
तरी
कांय केल्यार
ज़ाय तेन्ना
हाताक म्हणून
गावना.

गरिबाचें धन
तशें म्हजें मन !

पाळें, २६-३-५९

## अेकेच माळेचे मणी !

सगले

अेकेच
माळेचे मणी...

म्हज्या
बायलेच्या गळ्यांतलो...



अेक,
म्हुर्तमणी
सोडलो जाल्यार !

वेंगुर्लें, २६-८-६२

## दर ना देखून अुल्लां

हांव भाटकार !
म्हजें रेंद
म्हाका पावना.

कांयूच केल्यार
अेक पैसो
हाताक म्हणून
गावना.

जानेराच्या पाड्याचे
नाल्ल विकले...
भाटाक
वावर केलो.

आब्रिलांत
मीठ विकलें...
देमांदाचीं
कुरतां भर्लीं...

सेतेंब्रांत
भात विकलें...
प्रेदियाल भर्लें.

देझेंब्रांत
शेळो, सोण्णां

सुपारी, सोलां
आशिलें नारिलें
सगलें विकलें...

सोर्ती काडल्यो.

नातालांच्यो
नव्या वर्साच्यो.

लाखाचो प्रेम
कोणाक फुटलो
कोण जाणा...

म्हज्या सोर्तिचे
बाराय रुपया
जाले ना.

आतां
म्हजे म्हाकाच
हांव
विकपाचो आसां.

दर ना
देखून अुल्लां !

पाळें, २६-२-५८

## विस्कळ दांतांची बणखण

जिबे...
विस्कळ दांतांच्या
पांदऱ्यांत
जल्मभर घुसमटप
तुज्या
नशिबांत आयलां ?

हाडाचो नेट
नाशिल्ल्या
तुज्या पात्याक
सत्याची
धार आसत
जाल्यार...

बत्तीस बास्कळांचे
चिरेबंदी
बणखणींतल्यान
तुवें अुलयल्लें
अेक अेक अुतर
पापये...
जग मगो
जिखून धरतलें !

पाळें, ३-९-६२

## भाटकाराचो सत्यनारायण

देमू
माळी झाड, माळे झाड
सालां झाड
कुडी झाड
घैरांव काड
कैर काड
सगल्या जमनींक
शेण काड
वणटींक
चुनो काड.

फाल्यां
पुनवे–दिसा
सत्यनारायणाची
पुजा आसा मरे ?

देमू
दिवे पूस
पायणेलां पूस
जनेलांचे
वीद्र पूस
दिव्यांच्यो
चिमण्यो पूस
लामणदिवे
दिवल्यो पूस.
तेल घाल
वाती घाल

वल्तेरां पूस
कदेलां पूस
लोनां घाल
जमखणां घाल
कदेलां मांड.
देमू
माडाचे
नाल्ल झडय
ते सोल.
देमू, पेज जेवंचे पयलीं
तुळशी काड
दुर्वा हाड
फुलां हाड
साळकां हाड.
पेज जेवतकूच
माळो कर
झेले गूंथ
तुरे कर.
देमू
दोनपारां
भात अुकड
लाठीर, फोव कांड.
देमू
कोप-बशो धू
कोपां धू.
देमू
जळव फोड.
शेवकाराक आपय.

तिखशे फोव
बुंदी लाडू
बेसन लाडू
पिठ्या लाडू
चकऱ्यो, शंकरपाळ्यो
मयडेंच्या केळ्यांचो
हालवो
करून घे.
पणजेचे बामण
मुरगांवचे सोयरे
मसणांतले 'धायरे'
पुजेक येतले.
देमू, भटाक सांग
ताका विचार
पुजेचें साहित्य
सगळें
तयार दवर.
देमू
रानपी सांग
शंबर लोकांचें
जेवणाचें सामान
तयार दवर.
देमू, गाडो बांद
पणजे वच...
हें हाड
तें हाड
हें व्हर
तें व्हर.

कापूर अुजवाती
गोड दाळ...
आरतींक
लवंगी माराण
मखराक
लाखेरी फोली
घुरुताक
भायलें पीठ
वीद्र पुसपाचो
धवो पिठो...
पेत्रोलाचे डबे
तेलांचे डबे
तुपाचे डबे
पायसाक
वेलदोडे...
खिसमीस
मुगां-दाळ
चण्या-दाळ...
शिऱ्याक
सवाय मण लुरांव
सवाय मण साखर
सवाय मण तूप
दोणे...
मयडीं केळीं
लारेंजां
तोरिंजां
पेरां हाड.

देमू
शेटींक आपय
मखराक
कमळां कातरून घे.

देमू
फुलकारांक
जायो, हार, तुरे सांग
दुदकारांक
चाळीस शेर
दूद सांग
च्याचो पालो हाड.
देमू
म्हारांक
फुलांचे पांटुले सांग.

देमू
दोंगरकाराक
माटवेचें सामान
सांग.

फुलां, पत्री सांग
भाज्जेक आळूं
आंब्याचे ताळे
सूर्ण, कारांदे सांग, दुदी सांग.

देमू
जिनकाराक
फळावळ, शित्यों सांग
जाम, फोफळांचो कात्रो
केळिचे नेमे सांग
लोणच्याक बिमलां,
अुडद-मेथयेक

करमलां सांग
बांदकाराक
आडसरां, नाल्ल,
दुर्वां सांग
हुंदराचे कान सांग.

देसू
पणजे वच
पिटेबाबाक
बिटेबाबाक
सांतूबाबाक
फट्टूबाबाक
रातावोलीक
घोडयाक, पलंगाक
पेटेबाबाक, विटेबाबाक
खोटेबाबाक, घोंड,
घांटकार, वर्दी,
कोलवाळकाराक
म्हारवाक आनी
देंवचाराक
सगल्यांक
पुजेक आपोवणें सांग.

देसू
रायबंदरा वच, हें सांग.
मोवळयां वच, तें सांग.
कुडका वच, हें कर.
ताळगांवा वच, हें व्हर.
माशेलांत वच
भटाक आपय

खांडोळ्यां वच
पुजाऱ्याक आपय
भाणास्तारी वच
शुक्रारचो बाजार हाड
सुरगांवा वच
हाका आपय
म्हापशां वच
हरदास सांग.

देसू
हाका जेवणाक आपय
ताका पुराणाक आपय
ताका कथेक आपय.

देसू
मानशेकाराक
सुंगटां सांग
दोंगरकाराक भेंडे सांग
पुजे दुसरे दीस
सकाळीं पेजे बराबर
भाजेक.

देसू, दिवे पेटय
देसू दोणे भर
दोण्याचीं तारटां भर
देसू, नाल्ल फोड
पंचवादय कर.

देसू
रानप्या कडल्यान
सुगां-गांठी
अुडद-मेथी

वडे, रायतीं
शाको करून घे.
देमू
आरतींक
शेटींक आपय
देमू
जेवणाक
शिरत्यो मांड.
देमू
गांवच्या लोकांक
दोणे वांट.
देमू
पानां व्हरूंक
मडवळांक आपय
म्हाल्यांक आपय
नायकांक आपय
आनी म्हारांक आपय
देमू
बिटेबाब
पेटेबाब
भोटेबाब
बेठेबाब
पणजे वच्चे आसात...
अेकल्या अेकल्याक
कालापुरा वचून
घोड्यांच्यो गाड्यो आपय.
देमू
हांगा धांव मार

थंय धांव मार
धांवत राव
पळत राव.

देमू
सगलो लोक गेलो ?
सोयरे गेले
धायरे गेले
दायजी गेले
दुस्मान गेले ?
आतां
मखर काड
माळ्यार अुडय
कदेलां, हारशे
दिवे, तांपां
चिमण्यो
जमखणां, लोडां
अुशीं, शेंदऱ्यो
चादरी रुजू कर.

मुकटे, पाट, तोप, तपलीं
पंचपत्रां, तांबये
पडगे, पळयो
आरती, झांजी
तबकड्यो
कोप-बश्यो
चमचे
सगलें सामान
रुजू कर
आनी आसलें तशें

सगलें
जंयचे थंय
सांबाळून
त्या त्या जाग्यार
माळ्यार
कुडींनी
दिस्ताक दिस्त
आशिल्लें तशें
दवर.

देसू
भटांक
दक्षणा व्हरूंक आपय
हरदासाक
विडो व्हरूंक आपय.

देसू
सगल्या भटांच्यो
गणेस-पुजांच्यो
भाज्जेच्यो
सगल्यो
बारीक मोठ्यो पोटल्यो
तांणी अेकठांय
केल्यात त्यो
शापार
कोर्रेरी मोटारी कडेन
व्हरून पावय.
पावयल्यो मरे ?

देमू
पुजा तुका
मानवली मरे ?
" व्हय भाटकोरा ! "
आरे
पुण पापया,
ह्या
सगल्या बोवाळांत
हांव
प्रसादाचो दोणो
दिवंक
तुकाच मरे
विसल्लों...
यो यो
असो यो
पापया
हांव विसल्लों
जाल्यार
तुवें पुण
याद करची न्हय ?
" भाटकोरा,
अिश्चेय बोओळांत
माजेलें खुंयचें ! "
शे शे...
तुगेलें खंयचें ?
पापया !
तूं म्हणून पुजा
तूं नासल्यार
पुजा जावपाची ?

घे घे...हे घे
तुका दोन दोणे व्हर
तुजो मान पयलीं मरे!
अेक तुका
आनी दुसरो
तुजे घरकारनीक
आनी मागीर
तिखशे फोव व्हरपाक
चेड्याक धाड
विसरूं नाका आं
"बोरें भाटकोरा!"

वेंगुर्ले, ३०-६-६२

## घटणेन देवांक दिल्ले अधिकार

“ चामाराच्या देवाक
खेटरांची पुजा ! ”
ही म्हण खरी ?

खरी आशिल्ली
पुर्तुगेजांच्या
तेंपार.

आनी आयज ?

आयज,
भारतीय
राज्यघटणेन
सारकोच
अधिकार दिला
तेत्तीस कोटी
देवांक...

आपल्या
त्रेचाळीस कोटी
भक्तां कडल्यान,
जाय जाय
ते तरेची
पुजा
करून घेवपाचो !

वेंगुर्लें २६-८-६२

## पावसा पावसा यो रे यो

पावसा पावसा
यो रे यो...
शेतांत म्हज्या
खेळूंक यो.

खेळूंक तुका
शेत दितां
नांगर आनी
ज़ोत दितां...
आपा–लिपा
खेळूंक यो...
पावसा पावसा
यो रे यो.

शेतांत म्हज्या
रात दीस
जाय तसो
नाचून घे...
हांसून घे
लिपून घे
साळचो गोंडो
जिखून घे.

आजग्या हातांत
घालून मुदी
करंगूट पासणी
सोडून घे.
केंदळा कणसां
हालोवन घोलोवन
भांगरावरी
पिकोवन घे.

पावसा पावसा
यो रे यो...
आपा–लिपा
खेळूंक यो.

पाळें, ११-६-६२

## अेका दिसाच्या वासाक जग भुल्लुसता

दोंगर
कोण सोबयतात ?
मोगरे फुलां
जायो जुयो ?
काय आबोल्यो ?...
ते
सांवरी कापसाच्या
मोव मोव मोव
रेशमा चंवरांनीच
फुलोवंचे.

पुण जग...
भुल्लुसता
अेका दिसाच्या वासाक. रंगाक.

जायो जुयो
मोगरे वेलींक
तें दिता
जागो
घरच्या पोरसांनी.

करता
तांची
केदी तोखणाय
माटव अुबारून

आनी
नाचोवन तांचे
फुलांचे झेले
मोदी–मोदिंचे
आपल्या आंगार खांदार.

सांवरी बाब्रडयो
अेकल्यो अेकसुऱ्यो
भिरांकूल. .अटांग्या रानांनी...
बेस बरीं कापसा बोंडां...आपलीं
शिंवरून
अरकटांतल्या मुंदांनी.

बोंडां झडलीं
पुंजायलीं
सुकयलीं
धाडायलीं.

कापूस काडलो
भल्लो गादयांनी
अुशांनी...
जाय तशा
लोडांनी...
बोंडांचो कैर
माल्लो मागीर
भायर भायर
पयस, पोखरान...
दिश्टी आड
मसण पाड, थंय.

अुशीं गादयो पावल्यो
वयर वयर
माळये वयल्या
रंगयल्ल्या कुडींनी.

थंय ?...

आंगा पोंदा गादी
तिचेर आपुण.
माथ्या पोंदा अुशें
ताचेर आपलें माथें.

शेजरा दुसरी गादी
दुसरें अुशें
दुसरें माथें.
मुदयाळ्या केंसांचें !
आनी
तातूंत हांसता...

अळंगशी
खोयल्ली
आलमी-खुशाल
मोगरे फांती...

मोवसाण सांवरी कापसाची
व्हडवीक मोगरे फांतयेची...

सांवरी कापूस बावडो
चेपता...

चेपणा खाला
दोगांयच्या...
(तोखणाय करतल्याच्या
आनी करून घेतल्याच्या).

बेस बरो कापूस...
मोव मोव मोव...
रेशमा मोतयाळो...
लक्तुबायेचो...

अशीं गादयांच्या
काळखांत
भितल्ले भितर
कटा कटा
चेपता.

चेप चेप चेपता !...

मुंबय, २८-९-६२

## बाकिचे दीस घोंवांचे

चार दीस
मांयचे
चार दीस
सुनेचे.

आनी
अरिल्ले
तिनशें सत्तावन
दीस ?

दोगांयच्या
घोवांचे !...

पार्ळे, २९-८-६२

## आयज अेक मनीस मेलो

आयज
असो अेक
मनीस मेलो
जो
खूब वर्सां
खूब तरेन
खूब लोकाक
अुपकाल्लो.
पुण
आयज
तो मेलो
तेन्ना
मोट्या कश्टान
च्यार लोक
जमलो
ताका ताणीं अुबाल्लो
खूब ताकतिकेन
मसणांत व्हेलो.
आनी
कसो तरी
हुलपायलो.
कोणें अेक
फूल घालें ना.
अेक
अुजवात पेटोवन

वासाक
दिली ना.
चार वळिंचें
भाशण केलें ना.
न्हय
कोण
ताचे खातीर
चार दुखां
गळोवन
रडलो लेगीत ना.
आयज अेक
मनीस मेलो
जो
जिवो आसतना
साबार लोकांक
तरेकतरेन
अुपकाल्लो.
कोणाच्याय लग्नांत
व्हौंवळो म्हणून
साखर-पुडयाक
साखर वाटूंक
बारशाक दुदफेणे
वांटूंक
फुलां माळटना
आमंत्रणां दिवंक
तेमींत
तेस्तेमून्य जावंक
मतिकाक

खांदो दिवंक
तो जल्मभर
बोवाळ्ळो.
कोणूय केन्नाय
हांतरुणार पडलो
ताचे चवकशेक...
कोणाचीय केन्नाय
चली
कुळारा येवपाची
वा
घरा वचपाची
जाल्यार
तिका हाडूंक
वा
बोटीर पावोवंक
तो फुडें.
कोणायचोय चलो
वा चली
कसलेय परिक्षेक
बसली जाल्यार
परिक्षेच्या वेळार
तांकां
हुशारी दिवंक
केन्द्राचेर...
वा
नापास जाली
जाल्यार
दोळे पुसूंक

तांच्या घरा...
तो फुडें.
केन्नाय कोणूय
तालुका
वा राश्ट्रीय फुडारी
गांवांत आयलो
जाल्यार
हारतुरे घालूंक
ताचें स्वागत
उठा-बस करूंक
तो फुडें.
कोणूय केन्नाय
गांवा भायर
वचपाचो जाल्यार
ताच्यो...
सान्नी सुपां सोलां
पणस आंब्याच्यो
पोटल्यो बांदून
वेवस्थित
दमणेंत
खपाट्यांत
आनी
तांचेसकट
बोटीर पावोवपाक
तो फुडें.
कसलीय परिशद
सम्मेलन
वा आनी कितेंय

जालें
जाल्यार
पयली पटी
ताची.

नाटक कंपनी
आयल्यार
पिठाचीच जावं...
पयली तिकीट
ताची.

जात्रेक
पयलें गाराणें
ताचें
देवळांत
पयली घांट
ताची.
पयलो नाल्ल
ताचो.
प्रसादाचो
पयलो दोणो
ताचो.

कोणाकूय रीण
जाय जाल्यार
तें काडपाक
पालव दिला
ताणें.

घर, जमीन
विकूंक वा
विकती घेवंक

जाय जाल्यार
ताणें घेवन
वा विकून दिल्या.

भाज्जेच्या बाजारांत
पयलीं घोसाळीं
दुदी, वाल, पडवळीं
वा
कसलीय वस्त...
पयलीं ताची.
निस्त्याची
पयली गांथन
ताका.

वर्तमानपत्रांतली
जिल्ह्याची
पयली खबर
वाचप
आनी
सगल्यांक सांगप
ताणेंच.

खंयूय कोणाचेंय
'ब्राह्मणा' खातीर...
म्हाळांत, श्राद्धांत
वा आनी
कित्यांतूय
कितेंय
अडलें जाल्यार
पयलें आमंत्रण
ताका.

कोणाचे
हिशोब तपासून दी.
कोणाचें
कितें हाड
कितें पावय.
कोणाक दाखय.
कोणाचें पळे.
कोणाचें
सारकें कर.
जाग्यार घाल
सोदून काड...
मोडलां
जाल्यार जोड...
सगलें
ताचेर.
कोणाकूय
घर बांदचें
आसल्यार
चिरपी, मदेर
खिळे, नळे
गवंडो, पिंतोर
सोदप,
घर-प्रवेसाक
भट लेगीत हाडप
ताणें.
कोणाचोय
नवो पसरो
थाटपाक

बुद्‌ ताची,
तागडयो, जोखां
मापां, फोलिणां
फिल्सांवां
आनी
विकपी—चेडेय हाडप
ताणेंच.

वादळान
कोणाचें घर
वा माड
पडले जाल्यार
दुखेस्ताक
पयली जाप
आनी
पयली विडी
ताची.

असो मनीस
आयज मेलो.
जिवो आसतना,
जाका
सगल्यांनी
जाय जाय तसो
वापरायलो.

बारश्यांक
म्हाळांक
श्राद्धांक
सगल्याक...
खूब खूब वसौं...

सामको
मर मेरेन...
पुण आयज
तो
पयलेच खेप (!)
मेलो तेन्ना
ताका
खांदो दिवपाक
जमले
चारूच जाण.
तेय
मोट्या कश्टान.
मोटे ताकतिकेन
तांणी
गजाली करीत
झांकण्यो मारीत:
"सापूच ल्हव मरे
कांद्या सल्ल मरे"...
अशे भशेन
मस्कऱ्यो करीत
ताका अुबाल्लो
मसणांत व्हेलो...
मडें
जळटा आसतना लेगीत
चकाटां पेटलीं:
"दिसपाक कल्ल
पुण जळपाक
बरो वातड आं!"

अशो ताच्यो
भगल्यो करीत
कसोबसो
हुलपायलो.

ताचे खातीर
अेक दुख
कोणें गळयलें ना.
अेक सुस्कारो
कोणे सोडलो ना.
अेक मायेचें अुतर
कोण अुलयलो ना.
असो अेक
मनीस मेलो...

जो
अुसरपत नासतना
जीणभर
हेरां खातीर
वावुल्लो.

आयज अेक मनीस मेलो !

वेंगुर्लें, २६-१२-६०

## बुडटा तो मरताच

“अुडटा तो पडटा,
पेंवता तो
बुडटा,
रोयता तो खाता...”
अशें म्हणटात.

रोयना तो?
तो खायना?
सगले खातात.
पुण सगले रोयतात?
ना मूं?...

आनी
रोयता तो
खाताच?...
काय खूब फावटीं...
अेकलो रोयता
तर खाता
दुसरोच?...

तसोच...
अुडना तोय
पडटा.
पेंवना तोय
बुडटा.

अितलेंच न्हय
तर...
अेकलो अुडटा
आनी दुसरोच पडटा...
अेकलो पेंवता
तर बुडटा
तिसरोच !

अितलें खरें...
कि
बुडटा तो मरताच.

आनी
वयर सरता...
तेन्ना
परतो
पेंवक पावना !

पाळें, ६-४-५९

## भुरगीं आनी जाणटीं

आमच्या शेजारा
अेक केळ आशिल्ली
बरी मातिल्ली
वियेल्ली.
घड ?
वांवभर.
अेक अेक केळें ?
मुंडो हात.
आनी
घडाच्या शेपडेक
रसरशीत
तांबडें गुंज बोंड.

केळ
सोबीत दिसताली
वाऱ्यार घोलताली
वोतार फुलताली
केळ्यां कडेन पळोवन
फूस करून हांसताली
समाधान पावताली.

मदेल्ल्या वाऱ्याक
तिचें सुख
सोंसलें ना.
दुस्वासान अेक दीस

ताणें
तिका झडपिली.
मोडून घाली.

शेजारी
भायर आयलो
कोयतो घेवन...
केळ्यांचेर
नदर माह्ली
जून जून जून.
निर्विकारपणान
घड कापलो
घरांत व्हेलो.

परतोय
भायर येवन
ताणें...
कचाकच घल्ली
केळ बेंडली.
वाऱ्यार उडयली.

शेजाऱ्या बराबर
ताचीं भुरगींय
भायर आयिल्लीं...
ताणीं
हें पळेलें...
तांकां
वायट दिसलें.

पुण
करतलीं कितें !
बापायचो
रागीट सभाव
आवयचें...
'कैंच' करून
करवतप
तांकां
खबर आशिल्लें.
बाबडीं...
कांय अुलयलीं ना.

शेजाऱ्यान
घड पिकयलो.
भुरग्यांक दिलो
बायलेक दिलो
आपणेंय खालो.
सगलीं
धादोस जालीं.
जाणटीं...
केळीक विसल्लीं.

पोरसांत
नेमे खूब आसात.
बापूय तोखेता
आवय तांकां
सारें, अुदक घालता.

मात्...
अमृता सारकीं
केळीं दिवपी
केळ...
बापायन
कचाकच कापिली...
ती याद जावन
केन्ना केन्नाय...
चुरगीं
रातचीं न्हिदेंत
आंग काडटात.

आनी
दिसाचीं...
कितलेशेचदा
बाबडीं...
केळिचो
अुगडास काडून
चुरचुरतात
चुरचुरतात.

मनांतले मनांत
घुसमट्टात
घुसमट्टात!!

पाळें, २१-३-५९

## तुजें म्हजें धन

तुजें म्हजें धन
आपल्या कारणा...

अिंद्रियांचें रीण
पावोवपाक.

वेंगुर्लें, ११-१-६१

## माडा बापा कल्परुखा

माडा बापा कल्परुखा
म्हाका तुजें कांड दी...
चार कुडके करून
खोंपी खातीर
खांबे अुबारचे आसात.

माडा, चार वांशे
चार कांबी चार चुडटां,
आनी अिल्लोसो काथोय दी...
सुंबा खातीर
खोंप कण्डोवंची आसा
पाखें शाकारचें आसा
मल्लां विणून
चोंशींल्यान
झड बांदपाचो आसा.

माडा बापा कल्परुखा
खोंप अुबी जाली
सोबीत बरी
तुज्या आधारान.
आतां चार सोण्णां दी.

भितर अेक
तीन फातरांची

रांदन घाली...
ती पेटयली...
म्हणटकूच
खोंपीक
घराचें रूप येतलें.
मातशें जिवेंपण.

म्हज्या बापा,
आतां चार
नाल्लय दी
तुजे कृपेचे.
अिह्लेंशें
तेल काडून
अेक पणटी
पेटोवपाची आसा.

आनी
मुख्य म्हणचे
देवाक सांगणें करून...
नाल्लाक
आंब्या-ताळो बांदून...
पाख्याक
हुमकाळोवंचो आसा.
घरप्रवेस
करचो आसा.
बायले भुरग्यांक घेवन
तुज्या आलाशिऱ्याक
येवपाचें आसा.

तुजे
मायेमोगाचे सांवळेक...
ह्या फुडें
सुखान
रावपाचें आसा.

बापा कल्परुखा...
तुंवें सगळें दिलें
तेल-वात, पोंय-पिडो
वांशे, सोण्णां
नाल, बोंडो...
मागता तें.

हांव आनी म्हजी बायल
भुरगीं बाळां
धादोस जालीं.
तुज्या शेजरा
सगलीं
सुखान जियेलीं.

पुण बापा माडा...
अेकेच तरेचे
हे जिगेचो
म्हाका
वीट आयला गा.

सुखाक
पुरायेन
जीव कंटाळ्ळो.

आतां
थोडें दुःख दी.
मातशी मस्ती, सुस्ती
धुंदी येय सारकें
दुसरें कितेंय दी.

हांव
माकडांचो वंशज...
केन्ना केन्ना परतोय
म्हाका
माकड जायनशें
दिसता गा.
म्हज्या सुखाक
अिल्लें वीख दी.
कर्मभोग दी.

खोंपींत सदां
रांदन पेटत
खोंपिचें घर जाता...
हांसप खेळप
नाचप गावप
येवप वचप
दिवप घेवप
सगळें जाता.
खोंपीकूच
अुजो लायल्यार
कितें जाता
तें मातूशें

म्हाका
पळोवंचें आसा.
अणभवचें आसा.

देखून
बापा कल्परुखा...
रागार जावं नाका.
म्हाका
कट्टीभर सूर दी.

म्हज्या
माकडा हातांत...
रसरशीत पेटिल्ली
अेक चूड दी!

पार्ले, २८-५-६२

## तुज्या रगताचो अेक अेक थेंबो *

स्वतंत्रताय
चिड्डितल्यांच्या
आर्मीतल्यान...
तड् तड् सूं...सूं
ठो ठो...झूं...झूं
कार्तोशी सुट्टात...
काळजाक भेटपाक...
तुज्या ?

कुडी पसून
प्राण तोडपाक...
तुजो ?

हड्डयाची धाल कर
पिसो जावन
फुडें सर...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

शिंशाचे कुडके
मासांत रोमतात
रगताक झोमतात...
तुज्या ?

हाय म्हज्या भावा...
रोमतात रोमुंदी
झोमतात झोमुंदी...

पडसर फुडें सर...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

रगता चिळकांडयो *
शिंवरून अुडटात
भुंयेर झडटात...
तुज्यो ?

हाय म्हज्या देवा...
अुडटात अुडुंदी
झडटात झडुंदी...
मरसर फुडें सर...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

भुंयेर गळिल्लो
अेक अेक थेंबो...
तुज्या रगताचो
हून हून हून...
फाटीं येतल्या
छाप्पन पिळग्यांचें
रगत मागतलो.
परतेंय परतेंय
मागत रावतलो.
ते भुंये खातीर...
युगान युगां
जागत रावतलो...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

भुंयेक मेळिल्लो
अेक अेक थेंबो...

केसरी रंगाक
तेज वांट्टलो...
ओज हाडटलो...
तिरंगी झेंड्याक
चकचकायतलो
झगमगायतलो...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

आनीक मागतलो
अेक अेक येंबो...
तुज्या रगताचो
हून हून हून...

ते अुंये कडल्यान...
फुलांच्यो राशी...
दुखांच्यो न्हंयो...
तुज्या अुगडासाक
युगान युगां
कितलींशीं युगां...
स्वतंत्रतायेचे वाटेर.

हड्ड्याची धाल कर
फुडें सर फुडें सर
स्वतंत्रतायेचे वाटेर...

स्वतंत्रताये खातीर.

पाळें, २१-८-६२

* आकाशवाणी मुंबय केन्द्राच्या बरेपणान

## आयज म्हाका मरचें आसा

आयज म्हाका
देशाखातीर...
झुजत झुजत
मरचें आसा...
        झुजचें वेळार
        भयान लिपून
        जीव कितें
        करचो आसा ?...
        आयज म्हाका
        मरचें आसा.
अेकल्या अेकल्यान
मरून आयज...
झूज फुडें
व्हरचें आसा...
        भारताची
        शक्त जावन...
        जैत घरा
        हाडचें आसा...
        चिन्यांक शुयेंत
        गाडचें आसा.
आयज म्हाका
मरचें आसा.
आयज म्हाका
मरचें आसा.

मुंबय, १३-१२-६२

(दुसऱ्या कव्हरा वयल्यान)
हे कवितेन कोंकणीक अेक नवी कळा दिल्या–ओजाचो खर गुण दिला. आनी फाल्यांच्या कोंकणी काव्याक अेक नवी वाट घालून दिल्या...दोन अुतरांत सांगचें जालें जाल्यार पंडितांचें हें काव्य म्हळ्यार माणसुकेचें अेक तोलादीक गीत. तुमचें, म्हजें, सगल्यांचें..."

×

र. वि. पंडित हांचे
कोंकणी कविता–संग्रह

१ धर्तरेचें कवन
रुपया ३ : ५० नवे पैशे
२ चंद्रावळ
रुपया ३ : ५० नवे पैशे
३ आयलें तशें गायलें
चार रुपया
४ म्हजें अुतर गावड्याचें
चार रुपया
५ अुरतलें तें रूप धरतलें
चार रुपया



पॉप्युलर
प्रकाशन



र. वि. पंडित:— अखिल भारतीय किर्तिचे फोटोग्राफर आनी नामनेचे बरोवपी. जल्म गोंयांत. मुळावें शिकप गोंयांत आनी वयलें शिकप पुण्यांत जालें.

१९४१-५४ ह्या काळांत भारतांतल्या कांय नामनेच्या अिंग्रजी आनी खुबशा मराठी नेमाळ्यांनी तांगेलें फोटोग्राफी, गोंयची जीण आनी संस्कृताय...ह्या आनी हेर विशयांचेर वैचारिक आनी ललित बरप उजवाडाक आयलें. अिंग्रजी आनी मराठी कवितायु उजवाडाक आयल्यो. खेरीज, ह्याच काळांत प्रेस फोटोग्राफर आनी खास बातमीदार म्हणून ते वर्सभर महात्मा गांधिंच्या सहवासांत अुल्ले.

ह्या काळांत तांणी घेतिल्ले गांधिजिंचे शेंकड्यांनी फोटोग्राफ भारतांतल्या बहुतेक सगल्या भासांतल्या नामनेच्या वर्तमानपत्रांतल्यान अुजवाडाक आयल्यात. लाखांनी घरांनी पावल्यात.

फोटोग्राफिच्या अखिल भारतीय स्पर्धांनी तांकां कितलींशीं बक्षिसां मेळ्ळ्यांत. १९४८ त गांधिजिंच्या फोटोंच्या प्रदर्शनांत पयलें बक्षीस-गोल्ड-मेडल मेळ्ळें.

१९४९ त, गांधिजिंचो ज्या ज्या संस्थां कडेन संबंद आयलो त्या त्या संस्थांचें आनी गांधिजीं कडेन संबंदित अशा गुजरात, काठेवाडांतल्या म्हत्वाच्या स्थळांचें छायाचित्रण करपा खातीर श्री. काका कालेलकरांनी तांची निवड केली.

१९५० ते १९५४ मेरेन के. पू. साने गुरुजिंचें आंतर-भारतिचें सपन साकार करपाच्या हेतान तांणी "भारती" हें मराठी नेमाळें पांच वर्सां चलयलें.

१९५२ पसून तांणी कोंकणींतल्यान बरप सुरू केलें.

१९५४ ते १९६२ ह्या काळांत रचिल्ल्या काव्याचे कांय अग्रप नमुने **'आयलें तशें गायलें'**, **'म्हजें अुतर गावड्याचें'**, **'अुरतलें तें रूप धरतलें'**, **'धर्तरेचें कवन'** आनी **'चंद्रावळ'** अशा पांच काव्यसंग्रहांच्या रुपान आयज वाचप्यां मुखार येतात. फोटोग्राफी आनी लोकसाअित्य हे तांचे मुखेल छंद.